# काव्यसूत्र

काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

ब्र प्रकाशन

**काव्यसूत्र**
(कोंकणी कविता)
काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

**Kavyasutra**
(Konkani Poems)
***by***
***Kashinath Shamba Lolienkar***

**ब्र प्रकाशन :** ६
**पयली खेप :** नोव्हेंबर २००९



**छापणावळ :**
रवि ऑफसेट
कडोलकर गल्ली
बेळगांव

**अक्षर जुळणी :**
'बिम्ब'
पणजी गोंय

**उजवाडावपी :**
एस. डी. तेंडुलकार
'आनंद विहार'
फ्लॅट नं. बी - ३,
दुसरो माळो, पेडें, म्हापशें-गोंय

**वालोर : एकशे धा रुपया**

'काशि म्हंटा' (१९८२) 'काशिक म्हणचेंच पड्टा' (१९९७) आनी 'काशिन म्हणपाचें सोडुंक ना' (१९९९) ह्या तीन काव्यझेल्या उपरांत हांवें कांय कविता सूत्ररुपांत बरयल्ल्यो. बालसूत्र, फामीलसूत्र, मित्रसूत्र, गणपतीसूत्र, कामसूत्र, अध्यात्मसूत्र, काव्यसूत्र, अश्यो सूत्ररुपांत बरयल्ल्यो सुमार दोनेकशें कविता म्हजेकडे पडून आशिल्ल्यो. तातुंतलें फकत एकूच सूत्र म्हळ्यार 'काव्यसूत्र' आज पुस्तकरुपांत उजवाडा येता. उरिल्ल्या बाकीच्या सूत्रांचो झेलो 'काशिखंड' ह्या नांवान रोखडोच प्रकाशीत करपाचो विचार आसा.

'कविते संबंदी बरयल्ल्यो कविता' अशें ह्या 'काव्यसूत्र' झेल्याचें स्वरूप आसा. अखखे जीणेचे फाटभूंयेर कविता, कवी, रसिक, टीकाकार, भाशा, अणभव, अभिव्यक्ती, संस्कृती, परंपरा, आधुनिकता ह्या सगल्यांचे एकमेकांकडले संबंद आनी त्या संबंदातली गुंतागुंत हांवें हांगा मांडपाचो यत्न केला.

'काव्यसूत्र' हे कवीच्या जीणेच्या सूत्राचोच एक भाग जावन आसा.

**– काशिनाथ शांबा लोलयेंकार**

*A poet has got to have his pride.*
*without it he would betray his life's work.*

**- Milan Kundera**
(The book of laughter and forgetting)

१.

वाचून-वाचून वाज येयला
जाल्यार, वाचू नाकात तुमी म्हजी कविता
पूण काशि म्हणटलोच

काशिन म्हणुकूच जाय
नाजाल्यार कलमेतली कोंकणी रसिकांची रसिकता

कोंकणी भास जरी जाली नामशेष
तरीय काशिन जें म्हटलेलें
तेचो जातलोच अणकार
दुख्खाच्या भाशेंत
दुख्खाच्या लिपींत
फकत नासतलें थंय काशिचें नांव

काशि म्हणटलोच
जावपाखातीर नामशेष

२.

हांव कवी
म्हजी गांड तांबडी न्हूं
म्हजी गांड धवी
हांव कवी

हांव कवी गोरो न्हूं
हांव कवी काळो
म्हजो ताळो निळो
पियोन विख

हांव शंकर न्हूं
हांव कृश्ण न्हूं
हांव कवी
तरीय म्हज्या गळ्यांत सोरोप
आनी वोंठार मुरली

हांव कवी
म्हज्या कवितेंत आसा गणपती
आनी चिकणमाती

३.

कवी हो पसरकार जावंक शकना
कविता हो बाजार जावंक शकना
कवितेचें मार्केटींग जावंक शकना
आनी कवितेचो रसिक गिरायक जावंक शकना

कवी हो फातर परमेश्वर नावाचो
आनी कविता तेचें देवूळ
थंय भटाक ना थारो
पूण भक्तांक मात आसा चारो

थंय बैल ना गोरवां ना
दूध ना शेण ना
आसा फकत शिंगा

जेका शिंगार घेता
आनी जेका शिंगा तोपतात
तेंच आसता रगत
तोच आसता रसिक
तोच आसता कवी

कवी बैल जावंक शकना
शिंगा दाखोवन पुजून घेवपी
कवी हो कवी आसता
आनी बैल हो बैल
पूण तेंची दोगांयची आवय मात आसता! गाय

हांव उलयना रेड्या-म्हशी बद्‌दल
पूण तीवूय म्हाका आवडटात
कारण कवीक जगांतलें सगलेंच आवडटा

तो तिरस्कार करिना कोणाचोच
म्हणुनूच तो कवी आसता
आनी बाकीचे आसतात पसरकार

पूण कवी आनी पसरकार
हेंच्यामदी आसता एक साम्य
तें साम्य होलमावपीच थरता खरे जातिवंत रसिक

रसिक आनी कवी
कवी आनी कविता
कविता आनी पसरकार
ह्या सगल्यांक कागदांत बांदता तें एक सूत
आनी सुतावेल्यान सर्ग मेळयता तोच कवी

४.

चर्र कोणाक जाता
फकत काळीजवंताक
बाकीचे आपले भाकरी भाजून घेवंक पळयतले
चर्र तव्याचेर
तेंचे खातीर ही कविता न्हूंच

कविता कळपाक काळीज जाय
तें आसता थोड्यांच कडे
बाकीच्यांनी आपलें काळीज दवरलेलें आसता
बँकेच्या सेफ डिपॉजिट लॉकरांत

असल्यांक कळचीच ना कवीन मारलेली जंप
उज्यावेले खतखतपी तेला-कायलींत

कविता बरयतानां कवी फुलोन येता
चळचळट्या तेलांत
पुरये भशेन धवोफुल्ल
पुनरजल्म जाल्ले सारको

५.

कविता बरयताना येयनां घाम
घाम फुट्टा कविता बरयल्या उपरांत

कविता बरयल्या उपरांत
कवितेंतलें दर एक उतर जाल्लें असता
टेररिस्ट
कवीचो खून करपाक

आनी
कवितेंत क्रांती घडोवन हाडपाक
अख्खी भास जाल्ली आसता गुरवार
जी जल्म दिवंक सोदता
एका नव्या रसिकाक

६.

आयुश्य कितलें सुंदर
कितली सुंदर कविता
काशिची बायल कविता
सुंदर रांड

सुंदर धवें कपल
तेका नाका हारसो
काशि सामको बुरसो
लावंक सोदता कुंकूम

काशि मेलो काशि मेलो
काव्य-उतरांचो बोवाळ
गळ्यांत पडली माळ
कवितेच्या

एकाच वेळार कवितेंत
लग्न आनी मर्ण
काशि घेता जल्म
पोटांत कवितेच्या

कविता कितली सुंदर
तितलें आयुश्य न्हूं सुंदर
काशि जाला बंदर
वंशज अखव्या कवींचो

७.

सोरो खंयचो बरो
जो पियेताना कविता सुचत रावता

कविता खंयची बरी
सोरो ना पितां जी किक दिता

किक खंयची बरी
जी खोंट मारून
जमनींतल्यान उदक काडटा

हांव तुमचेकडें सोरो मागिना
कविता मागिना
मागतां फकत उदक

कारण हांव मासो
जेका आसा फकत उदकाचें गिन्यान

सोरो कसलें गिन्यान दितलो
कविता कसलें गिन्यान दितली
दोगांयचेर बंदी घालूंक जाय -
म्हणटा प्लेटो

आनी काशि म्हणटा :
उदक खंयचें बरें
जें गिन्यान दिता तें

८.

हांव कांयच उलयना
कारण उलयलो जाल्यार म्हणटले
की हांव उलयतां

हांव कांयच उलयना
आतां उलयतली कविताच

कवितेचें उलोवप माथ्यावेल्यान गेलें जाल्यार
समजचें की तें उदक
आनी उदक
हीच जीण
पूण त्या उदकांत बुडलो जाल्यार
फकत मर्ण

हांव आतां उलोव कितें?

९.

दुख्खाच्या कुलपाक
लावची सुखाची चावी
आनी उगडची तिजोरी
जिणेची

कितलें अलंकारीक
हें म्हजें सांगप
कवितेंत सोबों येता
मोबोंक जाय जिणेंत

जीण फकत म्हजीच न्हूं
म्हजे जीणेंत सगले जाण
तूं फकत इतलेच जाण
कविता बरोवचे आदीं दिवचें पडटा
कवच कुंडलांचें दान

१०.

काशि जेन्ना कविता बरयता
तेन्ना तो रसिकांचो विचार करिना
तो विचार करता
रसिकता घडोवपाचो

११.

हांव कोंकणींत कविता बरयतां
रवीन्द्र केळेकाराची नदर चुकोवन
नदरेक नदर जायत जाल्यार म्हणटलो
कविता पुरो आता गद्य बरय

रवीन्द्राक पद्य कळटा आसतलें
पूण कविता कितली कळटा खबर ना

हांव कोंकणींत कविता बरयतां
निराश जावन
कारण कोंकणींत साहित्यीक आसात
वाचक आसात
पूण रसिक नात
कोंकणींत चल्ला आजुनूय भाशावाद
पूण साहित्यवाद ना

इल्लेशें गोंय
इल्लीशी कोंकणी
इल्लेशें साहित्य
इल्लेशे वाचक
इल्लीशी म्हजी कविता
म्हाका नाका पावल्ली दिल्लीक

पूण रवीन्द्र सॉलीड आशावादी वा गांधीवादी
तो म्हणटा : 'अब दिल्ली दूर नही'
आनी अरसिकांची गुळी छातयेर खावन
काशि म्हणटा : 'हे राम!'

१२.

पेनांत शाई ना
जीणेंत आई ना
कितें बरयतलों बापाय?

कांयच सुचना
सुचता फकत बायल
तीच कविता

तीच कविता
तुजी
तुज्या भुरग्यांची

बरय
आवय-बापायच्या परंपरेत

तेन्नाच
ती वाचतलो तुजो आजो पणजो शेणजो
आनी पंटूर शेंटूर

पेनांत शाई घालुया
जीणेंत आवय हाडुया
बापायसकट

१३.

खुना उपरांत खुनी बरयता कविता
मड्याच्या धव्याफिकट तोंडाचेर
मड्यावयर घातलेल्या धव्याफुल्ल चादरीचेर
पोस्टमार्टेमच्या कागदाचेर
बातमी छापून येयल्या वर्तमानपत्राचेर
सोयऱ्या-धायऱ्यांच्या दोळ्यांतल्या दुकांचेर
दाडी-मिश्यो साफ केल्ल्या तोंडाचेर
निसणीच्या पावंड्याचेर
खांदो मारलेल्या मनशाचेर
सरणाच्या उज्याचेर
गोबराचेर
लोकांच्या तोंडावयल्या तिरस्काराचेर
बंदखणीचेर
फासाचेर
मनशाच्या मर्णाचेर

खुना उपरांत खुनी बरयता कविता
फकत स्वताचेर

फकत थंय उतरां नासतात
आसता फकत चाकू वा कोयतो वा कुराड
भाशेचो खून करपाक

१४.

कवी कविता करता म्हणजे कितें करता?
कवी चड्टा उतरांचेर
करता तेंका गुरवार
तीच उतरां जल्म दितात
कवितेक

कविता वाड्टा दिशिमिशी
रसिका कणकणी
काळाक वलांडून

कवी तेदोच उरता
पूण वाडत वयता कविता
म्हातारी जाता
कवीन जल्म दिवनूय
कविताच जाता तेची आवय बापूय
कावडीन बसलेली

आनी कवी जो साक्षात श्रावण
भोगता छातयेंत दशरथाचो बाण

१५.

कवी कविता करता म्हणजे कितें करता
तो करता भाशेची साधना
तो तप करता एका-एका उतराखातीर
तो भाशा मोड्टा-तोड्टा
आनी आपल्याखातीर एक नवी भास तयार करता
तो कवितेंत भाशेचो सोरो काड्टा
भोगलेल्या अणभवांचो
आनी उपरांत आपुणूच तो पियेता
पूण धुंद जातात रसिक
न्हू वाचक

कविता जितली रसिकांक कळटा
तितली ती वाचकांक कळचीच ना

कारण तो बंधनांत आसता नियमांच्या
आनी संभोगाचे नियम आसता वेगळेच
भाशेवांगडा खरो संभोग करता
तो फकत कवीच
न्हू भाशाशास्त्रज्ञ
भाशाशास्त्राचे नियम वलांडून
जल्म जाता अस्सल कवितेचो

१६.

कविता झऱ्यासारकी फुट्टा
काळजाच्या खडपांतल्यान
काळजा फाटल्यान आसतात उंच दोंगोर
काळजाफुडे आसता खोल दर्या
कवितेक आसता मेंदूचो अर्थ
कवितेक आसता काळजाचो आशय
पूण कवितेंत काव्य नासताच
सगळें काव्य आसता जीणेंत
काव्य वावुरता जीण-मर्णाचे शीमेचेर
हांव उबो आसता
थंयच
शीमेचेर

१७

हें जग जायें कित्याक?
जावनी स्फोट
जावनी काब्बार अख्खें जग
उरचो ना तूं हांव आनी सगले
पूण आमी जायेच कित्याक?
आमी बैल न्हूं
ह्या जगाचो घाणो वोडपाक

कोणतरी मोट्टो साहित्यीक म्हणटा की,
ह्या जगाचेर ह्या जीणेचेर
आमी मोग करूंक जाय
– तें आयकोन हांव हांसतां खो खो
आनी तेचीच जाता कविता
ही कविता जायीच कित्याक?

१८.

कोंकणीत कविता बरयता म्हणून
तो हासता म्हाका
पूण हांव कविता बरयतां म्हणून
हांवच हासतां म्हाका
भाशेचो प्रस्नूच ना
आशेचो प्रस्न आसा
आस हीच जीण
हांव व्यक्त करतां
आशेच्या भाशेंत
थंय साहित्य-बिईत्य वयतलें उडत
समीक्षा वयतली लंगडत
उरतलीं फकत उतरां
गूढ
हास्यासारकी

१९.

कोणाखातीर बरोव कविता
वाचपी आसात कोण?
हांवेंच बरोवप हांवेंच वाचप
मळबांत एकसुरी घोण

कोणाचेर करूं मोग
घेवं कोणाचो भोग
ही जीण म्हणजे सायबा
चवथीचो फोग

चवथ येयली आनी गेली
बुडयलो गणपती
आंगाक सगली सारल्या हांवें
गणेशाची चिकणमाती

गजानन्‌च घेतलो बरोवन
म्हजी आता कविता
रसिक-वाचक तोच आनी
तोच म्हजी कविता

२०.

कविता सुचना तेन्ना फुड्यांत
विधवेच्या कपलासारको धवोफुल्ल कागद आसता
पेनांत विखासारकी निळी शाई आसता
आनी म्हजो हात बोटांसकट
डीप फ्रिजांत आसता

कविता सुचतली कशी
जेन्नां मांजराचो पेटो आवयच्या दुदाखातीर
म्यांव-म्यांव करता

आनी तेची आवय मरोन गेल्या
म्हज्या सपनांत

म्हज्या सपनांत येता म्हाका न सुचलेली कविता
म्हज्या सपनांत येतात हुनीर

कविता सुचना तेन्ना एखादो हुनीर
गणपतीच्या पायाकडे बसलेलो आसता

२१.

भुरगो आसताना एकदा
आवयन म्हाका मारलो म्हणून
हांव पियाल्लों गुड्डीभर शाई
आत्महत्या करपाक

ती शाई आसा आजून म्हज्या पोटांत
त्याच शाईंत तर हांव बरयतां कविता

आनी जल्म दिवपी आवयचेर
करतां प्रेम
नवो ज़ल्म मेळपाक

२२.

भाशा आटयली की कितें जाता?
कविता जाता !
भाशेचें 'पातळपण' हें गद्य
भाशेचें 'पाताळपण' हें काव्य
कवी हें पाताळांतल्या शेषाचेंच
दुसरें रूप आसता
जेच्या माथ्यार आसता
अख्खी काव्यमय पृथ्वी

उतरां सोरपासारकी सरपट्टात भूंयेचेर
तेंका पळयत वयर मळबांत
घार आनी गरूड

मळब आटयलें की मळब उरचना
कुपांक येता अर्थ-आशय
आनी मळबच जाता कविता
म्हणुनूच म्हज्या कवितेंत सुर्य चंद्र नकेत्रां
आनी हज्जार परग्रह

कविता बरयताना कितेतरी वितळटा
आनी पावस पड्टा
परग्रहांचेर

२३.

कोंबयेचीं तातयां सोपलीं
कवीच्यो कविता सोपल्यो
आता कोंबयेवांगडा कवीकूय मारपाचो जितो
शाकुतेक

कोंबयेचें तें चिकन
खावपी आसात
कवीचीं तीं चिकानां
खातलो कोण?

धाड
गिधाड

पूण कवी स्वताच जियेता
गिधाडाचें मांस खावन
आनी कवीक पळोवन मेल्लीं मडीं उठून बसतात
अशा कवीक मारतलो कोण

मारूंक सोदतल्याचोच
जातलो खून
कवीच्या न बरयल्ल्या कवितेंत

२४.

हांव पयलो कवी
मागीरूच मनीस
कारण मनीस हो फकत मानव आसता
पूण कवी आसता महामानव
हांव जावंक सोदतां महामानव

हांव जल्माक येयलां मनीस म्हणून
उपरांतूच जालों कवी
तरीय हांव पयलो कवी
मागीरूच मनीस

ह्या जगांत जल्माक येवप हेंच काव्य
मागीर तो सुणो जावं वा जंतू
पूण ते लेगीत कवीच
फकत तेंची कविता तेंच्या फॉर्मात

एखादो सुणो वा जंतू
महामानव कसो जातलो?
त्या खातीर तेणी मनशाचो जल्मूच घेवचो पडटलो

आनी सगलेच कवी कशे जातले महामानव
महामानव कोणतरी एकलोच आसतलो

२५.

निंमणो
काळो रंग धवो पड्टा
आनी धवो रंग हळडुळसो

खूब वर्सां पासार जातात
आनी उपरांत हळडुळसो रंग
परत काळो पड्टा

काळ्या कोराकडे सांगपासारकें खूप कितें आसता
तेचो सांगपाचो अर्थ धवोफुल्ल आसता
आशय मात निळ-निळसो आसता

हेंच तें मळब आसता
हीच ती कविता आसता

२६.

श्री ग णे शा
म्हाका खावपाक उठल्या
ळ क्ष ज्ञ जावन

हांव घामाघूम
म्हज्या तोंडांतल्यान फुटनात उतरां
आनी अख्खी भास उठल्या म्हज्या जीवार

– होच तो खीण
कविता सुचपाचो

२७.

कोंकणीचें जरी एक डबकें आसलें
तरीय मराठीचेंय एक
डबकें आसाच

एक डबकें ल्हान
आनी एक मात्शें व्हड
फरक इतलोच

म्हणून कितें आमी
अदीक मोट्या डबक्यांतल्या इंग्लीशींत
कविता बरोवपाची?

ना.
निमणी सगलीं डबकींच

पृथ्वी हें लेगीत एक डबकेंच
कारण अंतराळांत आसात
मोट-मोठीं हज्जार डबकीं

म्हजो संबंद फकत
काळजाच्या
दर्यायेद्या डबक्याकडेन

२८.

सोरो कसो चड्टा
कोंकणींत सोरो कसो चड्टा
मराठींत दारू कशी चड्टा

कोंकणींत सोरो म्हणजे दादलो
मराठींत दारू म्हणजे बायल
दोगांय चड्टात एकामेकांचेर
आनी उप्रासता
कोंकणी-मराठी वाद ह्या गोंयांत
ह्या गोंयांत सवाय भाशेची फेणी
पियेतात कोंकणीवादी
आनी मराठीवादीय बी
पूण तेंचो खरो कल
इंग्लीश ड्रिंकाकडे

सोरो चड्टा
कोंकणींतल्यान मराठींतल्यान इंग्लीशींतल्यान
सोरो चड्टा भाशेची कीक देवल्या उपरांत

हांव चड्टां कवितेचेर
आनी भाशेक करतां गुरवार
आतां जल्म जातलो तो कवितेचो न्हूं
- एका वेगळ्या भाशेचो
एका वेगळ्या भाशेच्या सोऱ्याचो

२९.

आता तुका एक्कूय कविता सुचपाची ना
कारण तुजी भास
आता आभास जाल्या

जावकुच जाय
भास
आभास
जावकुच जाय

तेन्नाच तर सुचता कविता !

३०.

कविता सुचताना
न्हावपाचो विचार करूंक जाय
कविता बरयल्या उपरांत
न्हावंक जाय
कवीच्या नांवान

कवीचें मर्ण
आनी कवितेचो जल्म
घड्टा वांगडाच

३१.

टेन्शन
येयलें
की येता कविता

कवीची जाय आत्महत्या
खून लिपोवपाक
भाशेचो

३२.

भाशेचो खून
खंयचो कवी करूंक शकता?
जो अस्सल कविता बरोवंक शकता
तोच!

३३.

हांव मेलो
I am dead
मी मेलो
मै मर गया
इतल्योच भासो म्हाका येतात

येवन कितें फायदो
तूं आदीच मेलाय

हय
हांव मेलां
म्हणुनूच उलोवंक शकता हांव
कवितेची भास

३४.

कळ्ळें हांव कितें म्हणूंक सोदता तें?

ना.
तूं कितें म्हणुंक सोदता तें कळटलें
फकत कवितेक

एक्कुय कविता ना बरयता कळोंक जाय
ही अख्खी जीण

जीण कळोंक ना
म्हणुनूच तर आमी बरयतात कविता

३५.

जियेताना
हांव करतां ॲक्टींग
जितो आसपाची

दिलीपकुमार
बलराज सहानी
अमिताभ बच्चन
नसिरुद्दीन शहा
नाना पाटेकर
राजपाल यादव
हे फकत ॲक्टर न्हूं
त्यो प्रतिमा
म्हज्या कवितेंतल्यो

हांव घेता भोग
मीना कुमारी ते तब्बूच्या पोतान

हांव भोगता कविता
मर्णासारको नागडो जावन

३६.

हांवें नागडो जावप
हीच एक कविता आसता
पूण कपडे घातले की
हांव फकत कवी आसता

३७.

आज कविता येयना
कविता येतली कशी?
आज ती भश्टी

तिका आसुनी थंयच कुशीक
न्हालीबिली की आपसूक येतली वेंगेत
तो मेरेन धीर धर

वगीच
बलात्कार करूंक वचो नाका
उतरांचेर

उतरां ही फकत योनी आसता
आनी कविता आसता अख्खी बायल
तिच्या योनींतल्यान आशय झिरपत आसता
पूण ती उलयता आपल्या गर्भाशयांतल्यान

मिस्टर कवी
लक्षांत दवर
तूं कवितेचो घोव न्हूं
तूं फकत तिचो प्रियकर

तूं क्रिशण
आनी ती राधा

कविता येयना म्हणून
कवी जाला
त्रिधा राधा

३८.

फकत मनीसजाती विशींच मोग आसलेलो मनीस
मोटो केन्नाच नासतलो.
मनीस मोटो आसतलो –
सबंद प्राणिमात्रांचेर मोग करता, तोच.
जेचेकडे भुतदया आसा, तोच.
आनी तोच मोटो कवी आसतलो!
तो साद्या कागदाचेर कविता बरोवचोच ना
तेका कविता बरोवपाक लागतलें मळब
मळबाच्या कागदार तो बरयतलो कविता
नकेत्रांसारकी
चंद्रासारकी
सूर्यासारकी
आनी स्वताच जातलो
धुमकेतू

३९.

सुखाक अर्थ ना
दुख्खाक आसा
दुख्खाचो अर्थ
सुखांतूच आसा

अर्थ आनी आशय
वेगवेगळो आसता
सुखाक अर्थ आसता
आनी दुख्खाक आसता आशय

हेंचे मर्दीं कविता खंय आसता?
कविता आसता दया क्षमा शांती
कविता बरयले उपरांत
कविता खंयच नासता
फकत मोग आसता.

## ४०. लायण : एक व्हिज्युअल कविता

______________________________

______________________________

______________________________

______________________________

______________________________

तूं लायणी कित्याक मारता?

______________________________

______________________________

______________________________

______________________________

तूं लायणी कित्याक मारता?

______________________________

______________________________

______________________________

उलय

______________________________

______________________________

उलय

______________________________

हांव तुजेर लायण मारिना!
मागीर तूं लायणी कित्याक मारता?
त्यो लायणी न्हूं
तीं सोपणां
देंवपाक
चडपाक
तुका
म्हाका
म्हज्या मनांतल्यान तुज्या मनांत
तुज्या मनांतल्यान म्हज्या मनांत

---

हें कितें?
ही लायण न्हूं
ही ओळ कवितेची
हांव लायण मारिना
हांव फकत मोग करतां

४१.

कविता बरोवचे पयली
हांव लायण मारतां एखाद्या सुंदर चेडवाचेर
पडटा तिच्या मोगांत

ती उलयना
म्हाकाय उलोवंक जायना
आमी मोनी दोगांय

आता कविता उलयतली
आमच्या
मोनेपणांतल्यान

कविता बरयल्या उपरांत
म्हजो जाल्लो आसता
प्रेमभंग

## ४२. कोंकणीतल्यान बरयल्ली एक प्रेमकविता

तूं म्हजें न्हूं
तूं म्हाजें

तूं ताचें न्हूं
तूं तेचेय न्हूं
तूं म्हाजेंच

तेका आनी ताका
सांग दोगांकूय
तूं म्हाजेंच

तुज्या मनांत हांव आयलों
म्हाज्या मनांत तूं येयलें

उपरांत तुज्या भाशेंत तूं न्हिदूंक ना
म्हाज्या भाशेंत हांव न्हिदोंक ना
प्रेम करतां-करतां
जाता मोग
आनी कळटा गम्मत
मोगाच्या भाशेची

४३.

तूं येयना जेन्ना-जेन्ना
तेन्ना हांव धव्याफुल्ल कागदाक
रावतां पळयत

म्हज्या दोळ्यांचें भिंग
जळयता कागद
म्हज्या मनांत

तूं येयना जेन्ना-जेन्ना
तेन्ना हांव पळयतां आकाश
आकाशांतलीं कुपां

कुपांक अर्थ उरना
तूं येयना जेन्ना-जेन्ना

तूं येयली की
येता म्हजी बायल
येता म्हजी प्रेयसी

तूं यो
म्हज्या बायलेच्या प्रियकराच्या मनांत
- घोवाक चुकोवन

४४.

काव्यमय वातावरण ना
कविता कशी सुचतली
रावलां हांव वोठांचेर
उत्रां सोदीत पोटांतलीं

काव्यमय वातावरण ना
कारण ना म्हजी फास्की
फास्की गेली फोटवांत
उत्रां सगलीं पोस्की

काव्यमय वातावरण ना
म्हजें अशें कांयच ना
हांव ना तूं ना कोण ना
मळबांत एकूय घोण ना

काव्यमय वातावरण ना
सूर्य आसा पूण सूर्य ना
चंद्र आसा पूण चंद्र ना
काव्य आसा पूण काव्य ना

काव्यमय वातावरण ना
कारण कवी रसिक सगले गेले मरोन
फकत काशि मरोन जितो जाला
तेन्नाच आतां काव्यमय जाला

काशि मेलो केन्ना
आनी जितो जालो केन्ना
बंडलां काव्यमय मारचीं पडटात
कविता सुचना तेन्ना

४५.

तूं खोजो
तुका कविता कशी सुचतली?
पूण म्हाका आसात भुरगीं!

भुरगींच तीं
त्यो कविता न्हूं

कविता सुचोंक जाय जाल्यार
मार गाळी
– सुचता जाल्यार

गाळी सुचता जाल्यार
कविता सुचोकुच जाय

४६.

खुप कविता बरयल्यो
तरीय बरयन दिसता कविता
कविता बरोवप केन्ना सोपतलें?

कविता चालूच उरतली
हांव मेलो तरी

हांव मेलो तरी
आनींक कोणतरी बरयतलो
म्हजी
कविता

हांव केन्ना मरतोलों?
म्हज्यांतली कविता मरतली तेन्ना?

खुप कविता बरयल्यो
तरी सोपना कविता

कविता सोपोकुच जाय कित्याक?
हांव सोपोकुच जाय कित्याक?

प्रत्येक कविता बरयल्या उपरांत
म्हजो जाता
पुनरजल्म

४७.

कविता कोणूच वाचीना
कविता घाल गाणींत

कवीक धरात
आनी करात नागडो भर तिस्कार

मारात खोंट
तेच्या आंडाचेर

कविताच बरोवपाचें सोड्टलो कवी
आनी जातलो नपुंसक

काशि म्हणटा :
तरीय भोवतले शुक्रजंतू
सोद घेयत कवीचो
कवितेचो

४८.

कवीचें लायफ चड नासता
कवीचें लायफ कमी
कारण तो आपलें लायफ जियेता
भाशेच्या शॉर्टकटात

कवी भाशा फुलयता
आनी कवी भाशा आटयताय् बी
कवी कविता बरयता
आपली जीण आटोवन

कवीचें लायफ चड नासता
कवीचें लायफ कमी
पूण तेणें बरयल्ली कविता मात
आसता अमर

पूण जगात अमर अशें कांयच नासता
आनी हें कवीकुच फकत खबर आसता

कवी मरता
गळ्याक उतरांचो फास लावन

४९.

कविता कोणूच वाचीना
फकत कवीच वाचतात कविता
- अशें म्हणूं कोणूय
म्हाका कितें?
हांव काय कविता बरयनां
पूण म्हजी न बरयल्ली कविता
वाचता
फकत कविताच

म्हणजे कितें?
म्हणजे कांयच न्हूं!
- कवितेक अर्थ नासता तो हो असो !

काव्याबगर जीण अर्थशून्य
आसूंक जाय काव्य मनशाच्या जीणेंत
जे केन्ना वाचीनात कविता

कविता नाकाच
जीणेंतलें काव्य वाचूया

५०.

निमणो कवी कवितेंत जिखता
पूण हारता जीणेंत
जीणेंत हारल्या उपरांतूच तेका कविता सुचता
एक कविता बरोवपाक
पळय
कितलें मोल दिवचें पडटा!
हें सांगतलो कोण ह्या करिअरिस्ट कवींक?
ते कविता बरयतात
जीणेंत कितेतरी 'हासील' करपाक
'हासील' करपाक दुसरे धंदे आसात
तेंच्या खातीर कविता न्हूंच
आनी हे कवीय न्हूंच
ही सटेलां
तेंच्या पसून पयस ना एड्स
मर्ण दिसल्या उपरांतूच तेंका सुचतली
अस्सल कविता
फकत ती बरोवंक पावचे नात ते कागदाचेर
पापये
कपलफुटके !

५१.

सामान्य लोक वर्तमानपत्र वाचतात
सामान्य लोक वाचीनात कविता
जेंचे जीणेंत काव्य आसता
तेच वाचतात कविता

हांव कविता बरयतां ती रसिकांखातीर
सामान्य लोकांखातीर न्हूं

पूण रसिकांपरस
सामान्य लोकुच म्हाका चड लागीचे
तेंका कविता कळना जायत
पूण तेंका जीणेचें वास्तव खबर आसता
वास्तव हेंच तेंच्या नदरेन काव्य आसता

म्हाका कविता बरोवपाक उत्तेजन दिता
तें हेंच वास्तव
मागीर कविता जांव कितलीय अतिवास्तव

खरें अतिवास्तव वा सुरिॲलिझम
खबर आसता सामान्य लोकांकुच
जेची फ़कत नासता तेंका जाणीव

जी जाणीव लिपिल्ली आसता
चवथीक पुजलेल्या गणपतीच्या मोठ्ठ्या पोटांत

५२.

दर्यात सूर्य बुडटाना
पळयता कवी
आनी तेका सुचता कविता

दर्यात बुडलेलो सूर्य
हीच तर कवीची आसता कविता
– पूर्वेक उगोवपी

५३.

कविता येता पोटांतल्यान
पोटांतल्यान गळ्याकडे
थंय निळकंठ जावन
येता जीबलेर
जीबलेवेल्यान बोटांत
बोटांतल्यान पेनांत
पेनांतल्यान कागदार

गाढव कागद कित्याक खातात?
गाढव कवितेचे लेगीत कागद खातात!

आता गाढव कितें
आनी कितें रसिक
विख पियेल्ले सगलेच आसतले रसिक

५४.

मनांत काळेंपण दाटल्या उपरांतूच
हांव पळयतां कागदाचें धवेंपण
धवो कागद हांव करूंक सोदतां
काळो-निळो
उतरांचो चाबूक घेवन

वेदना जातात
पूण चाबकान कांयच सिध्द जायना
फकत उरतात वळ कवितेचे
विखारी सोरपांसारके
जे चावतात रसिकांक
काळे-निळे करून सोडटात
जल्म - मर्णाच्या शीमेचेर

कविता बरोवप
आनी कवितेचो रसिक आसप
दोनूय कितल्यो भयंकर गजाली

हें भयंकर दिव्य जे करतात
तेच निमणे आपल्या गळ्या भोवतणी सोरोप रेवडपी
शंकर जातात

५५.

लोक्तुबाय दिसता
ल्हान धुकराची लेगीत
कितलो सोबीत दिसता !

पूण व्हडलो जातकुच सगलें बदलतां
बदलतां हांव
बदलतां तूं

आमच्या भोंवतणीं आसता एक गुवाड
हळडुळी
भांगराचोय रंग हळडुळो

कविता बरोवन
हांव करूक सोदतां
गुवाचें भांगर

५६.

जीण जितली गूढ
तितलीच कविता गूढ
सुकण्या उड उड
मळबांत आशयाच्या

सुकणें उडलें मळबांत
थंय मळबूच नासलें
फकत आकाश आसलें
हासलें आभाळ

ना म्हणटा तें नभ
आसा म्हणटा तें आकाश
सावळेचो प्रकाश
फाकता उजवाडांत

एकमेकांक सोदता
विकृती प्रकृती
तेंचीच घड्टा कलाकृती
संभोगाची पुनरूक्ती उरता चालूच

लागले केळीक लवडे
आनी पोपायेक लागलीं थानां
फुटलीं आंगाक पानां
काव्य–रसिकांच्या

विसंगत ती जीण
सुसंगत तें मर्ण
कागदाक जालां गजकर्ण
कवीच्या कृश्णकृतीचें

## ५७. **कार्निवाल**

कार्निवालच्या दिसानी
कविता खंयच नासता
फकत काव्य आसता

कार्निवालच्या दिसानी
कवी बरयनां कविता
फकत खाता पिता मजा करता
बरयनां कविता

कार्निवालच्या दिसानी
कवी किंग मोमो आसता
कवी नासता

पूण कार्निवालच्या दिसानी शाकुतेखातीर
जो गरीब जनावरांचो खून पळयतां
आनी खिन्न जाता
तो किंग मोमो नासतलोच
तो कवीच आसता

कार्निवालच्या दिसानी
कवी आसता
येशू ख्रिस्त

## ५८. शिगमो

शिगम्याच्याय दिसानी
कवीक सुचना कविता
कारण शिगमो सोंपलो
तरी कवित्व उरता

शिगम्याच्या दिसानी
सुचतात गाळयो
आनी गाळयांच्योच जाता कविता
न बरयल्ल्यो

तोंडार हात मारून
कवी मारता बोब
शिगम्याच्या दिसानी
तोच कवितेचो अर्थ आसता
तो जिविताचो आशय आसता

५९.

सुखा फाटल्यान धांवों नाका
दुख्ख धांवतलें फाटल्यान
सूर्य लिपला पांटल्यांत
कोंबो कसो

ना कोंब्याचो साद
तरीय जालो उजवाड
कोंब्याक धरून हाड
शाकुतेक

पूण कोंबो खंय
कोंबो खंयच ना
जिबेक हाड ना
जिबेर मांस उतरांचें

उतरां फाटल्यान धांवों नाका
उतरांकूच धांवोंनी फाटल्यान
कविता लिपल्या पांटल्यांत
सूर्यासारकी

६०.

सांगपासारकें खुप आसा म्हजेकडे
पूण हांव सांगचो ना
सांगून कांय अर्थ ना

हांव मळबाक कितें सांगतलों?
कितें सांगतलों धव्या सोशाक?
जेची जाता शागुती
ह्या मनशांच्या राज्यांत

हांव मनीस न्हूं
हांव राकेस न्हूं
हांव प्राणी
खावपी सैमाचो भाजीपालो
आनी पियोवपी पाणी

हांव मनीस न्हूं
हांव मनशापरस मोटो प्राणी
हांव सरपटत वयता म्हज्या मनांत
सांगपाक
की सांगपासारकें कांयच ना

- तेचोच घुमता आवाज
देवळांतल्या घंटानादासारको

६१.

कविता येयली तिनसनां
वाजयत मंद मंद पांयजणां
आनी वडामुळांत बसला बाकीबाब
आनी हांव बसलां वयर
वडाचे खांदयेर
गडद जावन
पळयत
बाकीबाब आनी पांयजणांचें मिलन
दाट-दाट
पैसुल्ल्यान वाजली घांट
दाटलो म्हजो कंठ - कांठ
म्हजे सावळेचो घमघमाट सुटलो त्या खिणां

तोच तो खिण ज्या खिणां नदरा-नदर जाली
म्हजी आनी बाकीबाबाची
जेका आसा साक्षी
तो वड पिळग्या-पिळग्यांचो
आनी ती तिनसान
मनाच्या इतिहासाची

तेन्नापसुनूच तर मौन पडलां
सगल्या राना-मनांत
उतरा-उतरांत
आतां याद जायना
त्या मौनात हुपले कितले सुर्य, चंद्र, इंद्रनंदनां

सुर्य अस्तमला
काळोख जाला
काळखांत आता फकत हांव
वाट पळयत म्हज्या कवितेची
पूण म्हाका खबर आसा
ती येवची ना वाजयत पांयजणां

ती येतली सामकी नागडी
ती येयल्या उपरांत न्हेसतली वडाची साल
आनी वयताना परत नागडी जावन
वडाची साल काडून ती लायतली पिंपळाक
कवितेची वाट पळोवप म्हणजे मरोन वचप
झाडावेल्या झाडार

पळय,
वडाचे खांदयेर बसलां एक नातूक
तें कोणाची वाट पळयता काय?

विक्रमादित्यान आपलो हट्ट सोडलो ना
झाडार लोंबकळपी कवीचें मडें काडून
तेणें मारलें खांदार
आनी तो लागलो चलूंक

६२.

गालीब बसला
शायरी करूंक
फुड्यांत लेखणी कागद
आनी शराबचो जाम

गालीब घेता शराबचो
एक-एक घोट
आनी मनांतल्या मनांत घोट्टा उतरां
करता उतरांकडे समागम

गालीब बेहोश
पियोन उतरां
पियोन 'गम'

शब्दांत भरल्या शराब
आनी अख्खी शराबूच आतां निशब्द जाल्या
कागदार एक अक्षर न बरयतां
गालीब बसला
ॐ च्या पोझिशनांत

आनी
गणपती
पळयता तेका
पळयत उरलो तेका

६३.

वचपाचें प्रतिमेच्या वंशाक
तेन्नाच कळटलें
कविता म्हणजे कितें

प्रतिमेचो वंश
हारशांचो
त्या हारशांत पळयात
तेन्नाच कळटलें
प्रतिमा म्हणजे कितें

प्रतिमेच्या वंशातूच आसता
कविता
जल्म घेता ती
एखादऱ्या फुटलेल्या हारशाच्या वेरेंत

आनी ती वेर
म्हणजे साक्षात कवीच आसता

वचपाचें कवीच्या वंशाक
तेन्नाच कळटलें
हज्जार मर्णा मरप म्हणजे कितें

६४.

शाण्या मनशाक कविता कळना कविता आवडना
कविता कळटा आवडटा
ती पिशांक

मोगांत पडलो की मनीस पिसो जाता
कारण तेन्ना तेका कळलेलें आसता
जिणेंतलें काव्य

शाणो मनीस मोगांत पडना
तो फकत करता संभोग
करी नासतना मोग

आनी पिशाक
सगलें जगूच दिसता काव्यमय
शाण्या सकट

कवी हें सगलें पळयत आसता
उतरांचो देव जावन
कवी आशिर्वाद दिता दोगांकुय
दत्तात्रय जावन

दत्तात्रया फाटल्यान गाय
तीच कवीची माय

६५.

खुब्ब गजाली उगडास उरल्यात
एकल्यान अचकित वळख करून दिली म्हजी
एकल्याकडे
तेचेकडे कितें उलोवचें तेंच कळना जालें म्हाका
आनी हांवें मान सकयल घातली

हांवें चोरी करूंक ना कोणांक लुटूंक ना
कोणाचो खून करूंक ना
तरीय हांवें मान सकयल घातली

म्हाका कसली लज दिसता
काय म्हाका म्हजीच लज दिसता

खुब्ब गजाली उगडास उरल्यात
कॉलेजींत आसताना एकलो म्हज्याच क्लासींतलो
म्हाका चाळयतालो
हांव चिंततालो तेचो खून करपाचो
– परिक्षेचो अभ्यास करतां – करतां

हांवें मारल्यात जल्ले आनी मुंयो
हांवें मनीस केन्ना मारूंक ना

खुब्ब गजाली उगडास उरल्यात
शाकोतेखातीर घरातल्यानी घरांतल्याच कोंबयेचो
जीव घेतलेलो
आनी म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां येयल्ली

कांय गजाली हांव विसरलाय बी
पूण जें कितें विसरलेलो तेंच उगडास जाता आतां
कविता बरयतां - बरयतां

हांव कविता बरयतां
हेंच आतां हांव विसरलां

## ६६. दिग्गजाचेर न बरयल्ली कविता

दिग्गज : मदलो चेडो म्हजो, म्हणटा :
तुवें समग्राचेर कविता बरयली
म्हजेर कित्याक बरोवंक ना?

हांव म्हणटा :
तुजेर बरोवपाची कविता
आजुनमेरेन म्हाका सुचोंक ना

दिग्गज म्हणटा :
तर मागीर ती केन्ना सुचतली?

आतां हांव कितें सांगू?

कदाचित ती सुचूं येता
तेच्या आवय वांगडा मोग करतानां
कदाचित तो मेल्या उपरांत
कदाचित तो मेल्या उपरांत हांव जितो आसल्यार

हांव वाट पळयतां
त्या कवितेची
त्या मोगाची
त्या मर्णाची

६७.

धवोफुल्ल कागद फुड्यांत
आनी हांव बसलां कविता बरोवंक
कितें बरयता काय म्हणून
येवन-येवन पळोवन वयतात
म्हजे भुरगे
मर्दीच नदर मारता म्हजी बायल

पूण कागद धवोफुल्ल
आनी हांव बसलां धवोफुल्ल जावन

भायर निळें-निळें मळब
आनी मळबांत उडपी कावळे
काळे - काळे

धव्याफुल्ल कागदाचेर दिसता
आतां हेंच चित्र
कवितेचो पत्तोच ना
- पूण हीच तर कविता

तरीय म्हज्या बायले-भुरग्यांक दिसता
तो फकत धवोफुल्ल कागद

– तो उडयतां हांव पिंदून
म्हजे बायलेसकट
भुरग्यांसकट
कवितेसकट

६८.

कोणतरी एक बायल
येवन न्हिदल्या म्हज्या खाटीर
ती म्हजी बायल न्हूं
पूण ती म्हज्या कायदेशीर भुरग्यांची आवय

हांव बरयता कविता
कागदार न्हूं
पूण तिच्या नागड्या फाटीचेर
एखाद्या घटस्फोटासारकी

कवी आनी कविता
हेंच्या मदलो घटस्फोट पळयतात
म्हजे रसिक
म्हजीं रसिक भुरगीं

## ६९. भंगलेलो अभंग

केलो तरणेपणांत मुक्तछंद
आतां जाणटेपणांत ओवीछंद
बरोवंक सोदतां अभंग
पूण हांव भंगलां

पांडुरंग रंग भंग
नाका तुजो संग
अख्खी जिणेची जंग
म्हजी म्हजेच कडेन

घमघमतात आंबे काजू
पूण हांव राटाचो राजू
गोळ घेता मडकी म्हजी
बांयच्या तळाक

बांय सुकी दोळे सुके
येवं दी आतां पूर
भरोन येयला ऊर
पूरग्रस्त

मरा मरा जालो
म्हणटां म्हणटां राम राम
सर्गांतल्यान देखी तुकाराम
नरकांतल्या काशिक

काशि म्हणटा: धाड विमान
धाड विमान
धाड विमान

## ७०. कवीचें नाईटमेअर

ग्रेगोर झाम्झाक सपनां पड्टात
ऐश्वर्या रायची
लिक जाता झाम्झा
सपनांतल्या सपनांत

– सकाळी सपनांतल्यान जाग येयल्या उपरांत
तेका दिसता
आपूण जालां एक क्षूद्र किडो हजार पायांचो
ज्या किड्याफुडे उबो आसा
काळोभिल्ल किल्लो
आनी किल्ल्या भायर बसला एक जुईज
न्याय करपाक
सपनांचो

सगलें रुपांतरीत जालां
सपनांचेंय रुपांतर जालां
म्हापसा आता प्राग शाराभशेन दिसता
हेंवूय एक सपन

म्हापशेच्या अलंकार थिएटरा मुखार बसला –

फ्रांझ काफ्का
रातच्या बारा वरार
भाजी पाव खायत
आनी जीणेचो अर्थ सोदीत

निद्रानाश जडला काशिक
– सपनांतल्या सपनांत

